# रानफुलां

डॉ. भिकाजी घाणेकार




कोंकणी भाशा मंडळ
पणजी–गोंय

# फुलां परमळ

कांय दीस फा
वरीच आमच्यो खब
हालीं नवें कितें बरय
म्हाका नविदाद सांगल
नांव ‘ रान फुलां ’ ह
जल्माक येतात तेन्ना ‘ दो
तीं राशींनी येवंक जाय अ
वचूंक जाय. हातूंत रानफुल
मनांत जागयता आसतानाच
‘ रान फुलां क तुवेंच दोन अुत
थोडोसो आकांतान. ‘ रान फुल
म्हजे सारक्या हांगा थंय चार
कित्याक अशें हांवें म्हळेंच. पुण म्ह
बाबाचेंच आयकचे पडलें. ना आयकून व



म्हण्टकच, ह्या ‘ रान फुलां’चो परमळ
तो फांकारताना हांव हे इल्लेंशें पुरयत करतांच.
आंगणांत घुस्पुपाची म्हाका जी थोडी भोव संद म
आसा, त्या नात्यानच भिकाजी बाबाल्या ‘ रानफुलां’चे
करतां. ‘ सपन ’, ‘ कृष्णगीता ’ आनी आतां ‘ रानफुलां ’.
आपणाली वाट तांकीत आसा. कांय जाण अर्दे वाटेरच अुल्या
थांबल्यात ते पळयतकीच तर हें चडच नदरेंत भरता. नशीं हीं ‘रान फुलां’ रानवालीच्याच आंगाखाद्यावेळीं न्हय. तीं घरच्या आगणांपोरसांतलींय आसात. भिकाजीबाबालें कविमन तशें सगळेंच आपलेंशें करपी. ‘ रान फुलां’नी ह्या गुणाची नाट मेळटा ह्या फुलांच्या परमळांत भावभावनांची अळंग सुरावट आसा. अणभवाची म्होवाळ पावळी आसा तालां ल्हारांर धोंलपी मनाची तनेरी लागिल्ली आसा. हे तनेरेच्या अुन्फरक्यांत रान-फुला’क एक नवी जीवसाण येता– जी ‘ रान,’ ह्या अुतराक गांठीक मारून फक्त रानांतच न्हय तर घरांत, गांवांत आनी शारांतय पातळत वचून देशाच्या परजळीत फुडाराकय वेंग मारता. भिकाजीबाबाच्याच अुतरांत सागपाचें जाल्यार हांव इतलेंच म्हणीन –

सगळी सृष्ट मानली बाग म्हजी
फुलांच जळमळी नी हांव तिजो माळी.

– नागेश करमली

१-१-७३.

(c) सौ. सुनंदा घाणेकार

पणजी

पयली खेप

२६ - १ - १९७३.



गोंयचे आनी कोंकणीचे व्हड मोगी

# भौ. रामचंद्र शंकर नायक

हांच्या पवित्र उगडासाक

**डॉ. भिकाजी घाणेकार**

हांचीं पुस्तकां

बलायकी
भुरग्यांची बलायकी
प्रथमोपचार
सपन
रोग आनी उपाय
कृष्णगीता
रानफुलां

# भारत देस

नेकेत्रांपरस परझळीत असो फुडार
आयज आमच्या भारत देसामुखार

उर्बेभरीत आमचें जिवीत
अप्रुप अशी संसारा रीत
खिणाखोणांत रंगता कवीत
दर एकलो हांगा उबो आपापल्या पांयार

देवादिकांची हांगा सासाय
दित भक्तीभावाची गवाय
सुखदुखावांगडा सगळें जाय
केदयाय वेळार हांगा हावेसाचें उक्तें दार

शूर विरांची हि भूंय
रक्तान भिजलेली हि भूंय
कोणाचो खंय कसलो भंय
दिसरात हांगा जागता ल्हारार ल्हार

# येवकार

आयज आमचो तुमकां येवकार
फुटलां काळजार उमेदिचें ल्हार

आनंदाचो हो दिस आयचो
हांसत नाचत सारपाचो
आयच्या दिसा सपनां
आमचीं जातलीं साकार

गायत गायत दिस सारुंया
हावेसाचें गीत गावूंया
आयज पळे फुल्ले कळे
देवाचेच हे उपकार

दिसली कसली जर चूक
माफी आसची हेंच सूख
इतलें सांगून हेंच मागून
उक्तें करतां आमचें दार

# मिरेचें भजन

देवाच्या घरा वतलीं हांव
ताजीच म्हाका व्हडविकाय
तोच म्हाका सदां जाय

काळो सांवळो जालो जरी
रुप ताजें देखणे वारी
कितली करची तोखणाय

नांवान ताज्या वता भान
विसरत म्हजी भूक तान
इतली ताजी व्हड सासाय

म्हजो तो सोबीत गिरीधर
ताजी म्हजो प्रीत अमर
कितली गावूंची अपुर्बाय

कितलेय जरी पडले त्रास
ताज्या मुखार सुखारास
हिच आमची व्हड गवाय

आतां आनीक किदयाक वेळ
पुरो कर हो नस्तो खेळ
देवा, तूंच तुज्या घरा पाय

# जेझूच्यो मिलाग्री

गावांगावांनी, घराघरानी
जेझून केल्यो मिलाग्री
देवबाप्पाच्या पुतानी
नवलांयो केली धर्तरी

हात लावन पेखयले घाय
देवाची दाखयली सासाय
दर्याविल्यान मारली धांव
अजाप केलें लोकांनी

कुड्डयांक दिसूंक लागलें
भेड्डयांक आयकूंक आयलें
आरीचें दुयेंस वचून
धिटाय आयली पांयानी

थांबयलीं वादळां मोडां
फुलयलीं झाडां पेडां
जिवीताचे धडे शिकवन
वाट दाखयली उत्रानी

दुबळयांची मारली भूक
मोगाचेंच दिवन सूख
चुकिल्ल्यांक चूक दाखवन
हाडले वाटेर दोळयानी

# वनवास

तुज्यावरी श्रीहरी भोगतां वनवास
तरीपुण मनार म्हज्या सुखाचीच रास

हांसत हांसत गायतां गीत
गायत गायत सारतां जिवीत
दर दिसा सपना तालार
रंगता नवो नवो भास

कवना गायत विसरलों भान
जायना तरीपुण समाधान
तरणे रगत होच वगत
लागला कवना ध्यास

नशिब जोखता फुडली वाट
दिस जागता फाटली रात
दिसान दिस खिणाखीणांत
काळजार म्हज्या अर्दो स्वास

# कवीची व्यथा

दुखांतच बुडलां हांव
म्हज्या मनाचो ना थाव
फुडार कसलो कळना
खय मारु हांव धांव

कालचें उमेदिचें सपन
भंगलें तें आज कवन
वाटेर आसा काळोख
दिस जांव वा रात जांव

एकसुरें म्हजें उतर
साथ ना मनाभितर
कितले दिस असोच
एकलो भोंवत रांव

काळीज घालता साद
काडीत तुजोच याद
मन म्हजें पलतडी
सोदता तुजोच गांव

# कुणबी

तांबडें कापोड न्हेसून
गोंयची कुणबो हांव
मोडगांवां शारा लागसार
वेर्णा म्हुजो गांव

सोकांइंकुडें शेतान
काम कोरतां नेटान
ल्हान भुरग्यां पासोत
मारतां इगाथींगा धांब

खोशेन सारतां दिस
पियेवन पेजे नीस
फायची चिंता ना म्हाका
कोसलीय खोंत जांव

सुखाचो म्हुजो सोंवसार
फुलोयत मोगा ल्हार
इल्याश्या घोरार म्हुज्या
देव घालता बेंसांव

# गोंयकारांक

जांव हिंदू, जांव खिरस्तांव
सगले आमी गोंयकार
गोंयचें नांव वयर काडूंक
सगळ्यांचोच हातभार

भारत आमचो देस
हिमालयावरी हावेस
एकवटाच्या वाटेर
सपनां जातलीं साकार

जोडून सुराक सूर
फुलयत मोगा आंकूर
काळजाचो करुन गोंडो
फुट्टलें उमेदिचें ल्हार

हिच उदरगतीचो वाट
भरुन अप्रुपाचें ताट
गोंयच्या म्हान मुर्तीक
घालूंया स्फुर्तीचो हार

# मिलन

एक रात चार हात दोन मनां
एकठावलीं दरया देगेर तिन्सना
नाका धन नाका पण साकार सपना
मोगा गीत गायत तांकांच नकळटना

उर्बेभरीत जीण मोलादीक खोण
नाचलो वारो हांसलो दरया शीण
चंद्रिम लजलो हळूच मळबांत
कुपांआड वचून लिपलो जेन्ना

जीव जालो साव जोडून सर्गा थाव
नशिबाक जागून, देवा, तूंच पाव
कुडिच्या रोमारोमांतच फुल्ल्या
नव्या फुडाराचो नवो कवो कल्पना

# हावेस

हात जरी घाले बांदून
मन म्हजें मेकळें आसा
तोंड जरी धल्लें धांपून
गीत म्हजें अमर आसा

जाय तितलें आसा धन
कवळें आसा म्हजें सपन
हावेसाच्या वाटेर म्हज्या
फुलां शिंपडलेलीं आसा

तुजें कांय नाका म्हाका
आशिल्लो भोग पुरो म्हाका
अमुरपिक्या जिणेत म्हज्या
फांतोड अजून जांवची आसा

विशाल आसा हि धर्तरी
नी हांव तिजो पुजारी
फायच्या सपनांत म्हज्या
अप्रूप अशें घडचें आसा

# देवाक

तूंच घडपी, तूंच मोडपी
तुज्याच नांवान पेट्टा वाती

खंय तूं आसा कांयच कळना
सोदतल्याकूय तूं मेळना
सतानी केली दिसरात भक्ती

मनांत रे तुजोच थाव
सगळो हो तुजोच डाव
जांव भांगर जांव माती

सगळ्यांचो तूंच आदार
सपनां करपी साकार
उमेदिन काळजां भरपी

तुज्यामुखार आमी सान
तुजेंच मागता व्हड दान
जिणे सुखा तूं सांगाती

# नियाळ

केन्ना जावन भोंवर केन्ना फूल
मनाक म्हज्या घाली हांवेंच भूल
केन्ना जावन दोंगर केन्ना न्हय
मन म्हजें जालें अशें वयर सकल

केन्ना देखली हांवें पारव्यां जोडी
आलतड सोडून वतना पलतडी
मनूय म्हजें गेलें ओंपीत अशें
पैस पैस काडून संसारी नडी

केन्ना जावन हांशे लागलें पिशें
तरीपूण मन म्हजें एकूच अशें
ना घर ना दार ह्या स्थितींत
रस्त्यार हांगा थंय भोंवता कशें

केन्ना हरयाळी केन्ना कुपां काळीं
तायखिळघावरी केन्ना मारली ताळी
सगळी सृष्ट मानली बाग म्हजी
फुलांच जळीमळी नी हांव तिजो माळी

# आस

चंद्रिम उदेला मळबांत
मोग रिगला काळजांत
युगायुगांचें नातें जोडूंक
मन आशेलां म्होव्या खिणांत

अमुरपिकी आयची रात
कवळ्या मनाक सांगात
रातराणी पिश्यावरी
हांसता खेळटा चांदण्यांत

जगापसून पैस वचून
बंधनाचो फास तोडून
तुज्या म्हज्या मोगाक आज
फिरुनी एकांतांत

अशेंच आमचें हें जिणे
जांवचें अमर सासणाचें
अमृताची गोडी चाखीत
एकरुप जांवचें सगीत

# मदलस

लग्न आतांच लागलां
जोडपें बसलां सव्यार
मदलशेचो वेळ हो
फांकलां हांशें गालार

शुभ मंगल सावधान
मंगलाश्टकान फुल्ले कान
अक्षता पडल्या आतांच
नवऱ्या - व्हंकले माथ्यार

फुडाराचीं रंगी सपना
नियाळटात दोन मना
बेण-बाजो वाजता
त्याच सपना तालार

पळोवन हांसते दोळे
फुल्ल्या काळजा कळे
नदरे नदरेंतल्यान
ओंपला जिवीता सार

# प्रतिभेक

जिणेच्या अंतामेरेन
तुजोच म्हाका जाय सांगात
तुज्याच विजे रुपान
असोच चलचो म्हजो हात

आशिल्ली खंत पैस करून
फुलय असोच पारिजात
नस्ते विचार काडून
पेटय पुनवेची रात

नदरेक आसची धार
सारुंक हावेसाचो वात
म्होवें ल्हार ओंपूंक म्हाका
उर्बा दिवची त्या खिणांत

मागून मागून आनीक
मागूं तरी किदें कात
फुडाराचें नवें गीत रचूंक
धुंद जांवचें मनांत

# सांजेवेळार

अशीच सांजेवेळ येता
घेवन चिंत्नाचो भार
पिसुडलेलें मन म्हजें
मागता देवाचो आदार

आनीक गेलो एक दिस
जिवीत करीत उणे
एकसुरपणाक लागून
सांगाताक करीत मागणे
फुडाराक थाटूंक आतां
उर्बेभरीत संसार

लागीं आयली आतां
कालची फुडाराची नदर
कालचें काल गेलें
घालून मनाक विसर
अप्रुपांच्या थाटाफुडें
सदांच उक्तें सर्गादार

कुडीक आयली देंवती
कंवळेंच उल्लां मन
वाट पळेत केन्ना काय
साकार जातलें सपन
त्याच खिणाक घेवन
उमेदिचें येंतलें ल्हार

ओंठार नवें नवें गीत
काळजार नवो घाय
मोगा उज्यार पेटयत
हावेसाची नवी ल्हाय
तुका देवा विसरूं कसो
घाल्याबगर धीराचो हार

# आमी सगळे एक

जांव तो हिंदू, जांव तो ख्रिस्तांव
गुजराती, पंजाबी कोणूय जांव
जयहिंद भारत आमचो देस
हिमालयावरी आमचो हावेस
आमी सगळे एक

उदरगतीची आमची वाट
संकष्टांचेर करीत मात
शांततायेचो अमचो संदेस
इष्टागतीचो आमचो आदेस
आमी सगळे एक

रानावना गायतात कवना
स्फुर्त दिता कवी कल्पना
रामकृष्णाचीं हांगा मंदिरां
येसू ख्रिस्ताचीं हांगा कपेलां
आमी सगळे एक

गांधिजींचो गाजता आवाज
शास्त्रीजींचेर चढयत साज
शिवाजींचो हि भूंय जल्माची
नेहरुची हि बाग गुलाबांची
आमी सगळे एक

जैताचेंच गायतात गान
तिरंगी बावटयाचो मान
पवित्र गंगेच्या ल्हारा ल्हारार
सपना आमचीं जातात साकार
आमी सगळे एक

# जिवीत

अभंगावीणे जिणे सुखी जांवचेंना
स्वार्थाफुडें ताचो अर्थ कळचो ना

सोंसले कितले हाल
तरी दुख सदांकाल
जिवीताच्या वाटेर नवल घडचें ना

जिवीत हें अर्दुकुटें
चलता तें उरफाटें
सुख मात मेळल्याबगर रावचें ना

मृगजळ कशें सुख
वाळवटांतलो रुख
उदकाबगर मात हरीण जगचें ना

उत्रांचो हो शिवर
मारीत नदरे भोंवर
दोन दिसांवयर जिवीत उरचें ना

# नवो अवतार

देवा, घे नवो अवतार
आनी पळे कलीयुगा कारभार

मनशाक मनीस वळखना
पैशांबगर सुख ना
अन्याय पैस करून
न्यायचें उक्तें कर दार

वता थंय दुष्टपणा
फटिंगपणा, किचमणा
बरी बुद्ध दिवन
सत्याचें येवंदी ल्हार

संसाराचेर वाढली भूक
दोळ्यांतल्यान गाळता दूख
कोणाची कसली चूक
दाखोवंक नदर मार

# त्या वेळार

सगळ्याक जालें किण्ण
काळखाची विरली साय
भक्ताच्या काळजाक
रक्ताचे जाले घाय

धर्तरेचो फुल्लो कांटो
मळबार जाली वाणी
आकांताच्या वेळार
सुकण्याचीं सोंपलीं गाणी

दरयाचें आटलें उदक
व्हांवपाचे थांबले झरे
सुर्यदेव थांबलो थंयच
करीत ताचे चुरचुरे

देवाचोच पुत आसलो
आयलीं उत्रां ओंठार
जेन्ना खिस्तान सोडलो
खुर्सार निमणो सुस्कार

# मनशाक

देव देव म्हळो म्हणून
देव तुका पावचो ना
काम करुन घाम काड
हिच देवाची वासना

रामनाम घेत घेत
भोंवलो जरी रान
देवळांत वचून केलें
देवकृत्य जरी म्हान
ना, ना इतलेंच पुरोना
देव तुका दिसचो ना

हातांत घेवन माळ
म्हळे हरी हरी दिसरात
संसार सोडून गेलो
जरी पैस एकांतांत
तरी देव ना तो ना
देव तुज्या मनांत येना

सुख दुख मेळोवन
थाट तुजो संसार
भुरग्या बाळांक तोखेत
उमेद चें घेत ल्हार
शेजाऱ्या बरें करतना
देव तुज्यावीणे रावना

# फुलांचो साद

पारब्तान फांकले कान
आयकतना म्हजें गान
सुरासुरान रंगलें रान
तालातालान नाचलें पान

रातराणी हांसली मोनी
गालागालानी भुल्ली वाणी
चांमोई काडीत काडीत
चांफ्यान सारलें भान

उलयले मोगरे कळे
करीत सगळे चाळे
दोळे मोडीत मोडीत
बोंवळान दिलो मान

सदाफुलोन साथ दिली
कळयान कळी फुल्ली
लाव घेत घेत
गुलाबान माल्ली तान

# पयली भेट

सारुन पदर मारुन नदर
हांव हांसलें, मुरगुटलें
मनांत चांदणे करीत शिवर
नाचतालें, खेळतालें

आसली आमची पयली भेट
ोळचांमुखार भांगरा देग
गोऱ्या, गोऱ्या रुपाक तुज्या
हांव भुल्लें, हांव फुल्लें

तोच खीण यादीचो
सगळी जीण स्मरपाचो
खिणाखीणांत काळीज फुलून
रंगतलें, चंवरतलें

कितलें म्हणून सांगचेलें
सांगून सांगून उरतलें
एकाच नदरेन तुवें म्हाका
पिशें केलें, तुजें केलें

# लग्न

आयज आसा लग्न
माड नी माडयेचें
इतलीं कर्सां काडलीं
जोडूंक नातें संसाराचें

कुळागराच्या सालांत
चांदण्याचो घाला शिवर
व्हंकलेचें रुप तोखेत
चंद्र मारता भोंवर
परझळीत तोंड
दिसना मात सुर्याचें

हातांत हार घेवन
नवरो उबो नेटान
वयरशी नदर करुन
पळेत अंतरपाटान
काळसार कलसांव
चडयलां डेक्रोनचें

पांचवो शालू नेसून
व्हंकल हांसता मनांत
लज दिसता देखून
सकल घाल्या मान
दिष्ट लागपी रुप
नटलां आज व्हंकलेचें

मळबार भट म्हण्टा
गडगडयाचीं मगळाष्टकां
पावसा-ब्थेंया रुपान
आशिर्वाद दिता अक्षता
अप्रुप घडून आयलें
आयज अशें सैमाचें

# सकाळ

उठ प्रीया, उठ भायर जाली सकाळ
मोगान तानेल्लीं मनां रंगलीं म्होवाळ

नदरेक नदर लावन
सारली सगळी रात
स्वासाच्या वासांतच
परझळली काजळी वात
हातांत हात घेवन
सुखाचो व्हांवलो व्हाळ

घेवंक पुराय भोग
रात सगळी उणी
अमर आमचो मोग
सांगाताक रातराणी
सैम तर मुरगुटलो
गळयांत घालोत माळ

अशेंच सारचें जिवीत
गायत म्होवें कवीत
ल्हारा ल्हारार नवो भार
हिच अप्रुप रीत
काळजार आतां येवंची
नवी उमेद सदांकाळ

# विश्वामीत्राक

भूल घालूंक हांव आयलां फूल
जीव तुजो जातलो आकूळ पिकूळ
कर तुजी ही अप्सरा मेनका
तनमन धन आतां विसरुन

कसली तपश्चर्यां हि तुजी
जिवाचे हाल करून घेवपाची
सैम पळे हांसत गायत अशें
सोखेता आयची म्हजी धून

गोतमी न्हय गायता सुरार
ल्हारार ल्हार ओंपीत प्यार
हांव नी तूं हांगा एकसुरीं
जोडूया नव्या संसारा पूल

फुलवया वसंत ह्या मनांत
सारतना ही रात सुखशांत
तुजी व्यथा रे हांव ही कवीता
पैस पैस या संसार सोडून

# शंकराक मागणे

नटून थटून आयलां हांव इश्वरा
नाचत गायत करुंक तुजी सेवा
रे देवा प्रसन्न जावन आतां
तुजी करून घे रे म्हाका शंकरा

माथ्यावेल्यान व्हांवता तुज्या गंगामाता
कंठमाळ तुजी गायता धर्मा गाथा
एक दोळो उक्तो करुन पळे देवा
हांव तुजो सेवीका आयल्यां शकरा

हिमालयाचेर वसल्या तुजी मठी
नकेत्रांवरी परझळीत तुजी दृष्टी
देवा, म्हज्या उल्याक पावन आतां
घे म्हांका तुज्या घरा रे शंकरा

मागून मागून जालें सगळें आतां
तूं तर केन्ना प्रसन्न, कळूंक ना म्हाका
हांव तुजी दासी, तूं म्हजो सर्वस्व
हावेस म्हजो पावला आतां दारा

# यातना

आयकून तुज्या पायांतलीं पांयझणां
मनाक म्हज्या जातात यातना

रुमझूम रुमझूम करुन
तालार पट्टात गो पांय
आयकून आयकून आनीक
दुसरें नाका जाता कांय
पळेत रावीन शें दिसता
तूं वाटेवेल्यान चलतना

तूं गो प्यारी मीरा म्हजी
हांव तुजो गिरीधर गोपाळ
तुज्या पांयाच्या सुरार
आयकतां मृदंग नी ताळ
मोगान पिसो जाल्ल्याचीं
हिं गो अशी लक्षणा

चलतनाच नाचता तूं
अप्सरेचो तुजो थाट
मंद मंद वाऱ्यार असो
छंद विरला दाट
अमृर्पिको वेळ असो
आयला आतां तिन्सना

# देसगीत

याद आसा उत्रान उतर
पडची ना तांची विसर
मेणावरी कडून घेवन
जीण तांची जाली अमर

हांसतें तोंड गुलाबाचें
युगनेता चाचा नेहरुंचें
आराम म्हळ्यार हराम
होच संदेस मतींत धर

मुर्त ल्हान किर्त म्हान
शास्त्रीजींचें व्हड दान
जय जवान जय किसान
संदेस पायलो घरान घर

स्वतंत्रताय म्हाका जाय
त्याबगर सुचना कांय
टिळक जाले लोकमान्य
दिवन देसाक बळगें खर

जयहिंद भारत सेना
झुझल्याबगर सुख ना
मारप वा मरप हो मंत्र
सुभाषानी दिलो देसभर

गायलें गीत जनगणमन
करुन सासणाचें धन
टागोरांचें सपन पुराय
जालें अशें खिणाभीतर

एकूच धर्म एकूच कात
विसरात आतां जात पात
गांधिजीनी माल्लो उलो
अमर जावन सोंपसर

# मरण

हांसत हांसत मरण येवचें
हाज्यापरस व्हड भाग्य खयचें

मरण तर चुकना
मन तर जुळना
अश्या वेळार ह्या वीणे
दुसरें किदें मागचें

फुलाक व्हड कांटो
दुखाचो चड वांटो
केदयाय वेळार अशें
दार उक्तें जांवचें

कोण कोणाचो न्हय
देवूच भोगता जंय
सुख तरी खंयचें
कोणे कोणाक दिवचें

सुचना दुसरें कांय
सर्गाक लागलें पांय
निमण्या वेळार आतां
निमाणे हें मागणे

# हांव रान

हांव रान
जिणे म्हजें
एकलें एकसुरें
ना कोणाचो सांगात
दिवंक हात
एकलेंच दिसरात
एक सुरें म्हजें गान
हांव रान

हांव रान
काल बी आसली
आज जाली झाडी
जळमळी झाडीच झाडी
घडये जायत होडी
आलतडी पलतडी
दित प्रवासाचें दान
हांव रान

हांव रान
पैस म्हजो गांव
शियात कुडकुडत
वतान तापत
पावसान भिजत
दिस फुडें व्हरत
सारतां जिणे पान
हांव रान

हांव रान
मनीस ना
रस्तो ना
सगळें किण्ण
काळोख भीण्ण
अशीच म्हजी जीण
तरी किर्त म्हान
हांव रान

हांव रान
सगळीं जनावरां
सगळीं झाडां
सुकणी गायतात गीतां
सांगीत सुखदुखां
तोखेत रान फुलां
भुलयत भान
हांव रान

हांव रान
अटगें रान
शिकार जाय
लांकडां जाय
गो दितां सवाय
घडये फाल्यां दितांय
मीना – खान
हांव रान

हांव रान
म्हजो म्हाका अभिमान
सैमाचेंच दान
पानान पान
गायता गान
राखून मान
जीण म्हजी सान
हांव रान

हांव रान
आज रान
घडये फाल्यां शार
सोबित घरदार
दारांत मोटार
अशें जाल्यार
व्हड म्हाका मान
हांव रान



**Next child not now**

**after two or three never**

